# सानुल्यांचीं कवनुलां

## जयंती नायक

राजाई प्रकाशन

**सानुल्यांचीं कवनुलां**

जयंती नायक

**प्रकाशन क्र.: 3**

**पयली आवृती : 2004**



**छापपी :**
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स
माशेल, फोंडें, गोंय

**मुखचित्र :**
निलेश महाले

**प्रकाशक**
अवधूत आमोणकार,
राजाई प्रकाशन
आमोणें, केपें, गोंय - 403 705

**मोल : रु. 27/-**

**Sanulyanchim Kavnulam**

Jayanti Naik

**PUBLICATION NO.: 3**

**FIRST EDITION: 2004**



**PRINTER :**
Swarnamudra Prints
Marcela, Ponda, Goa

**COVER :**
Nilesh Mahale

**PUBLISHER :**
Avadhut Amonkar,
Rajaee Prakashan
Amona, Kepem, Goa- 403705

**PRICE : RS. 27/-**

---

**हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेखाला छापलां.**

# एक आसली चली



एक आसली चली
बाये दिसपाक परी,
गोरी गोरी पिट्ट
गालाक व्हडली खळी.

चलयेचो गळो
बाये भोव गोड,
घरच्यांक तिची
खूब खूब वोड.

चली सगळ्यांची
बाये लाडकी अपुरबाय,
जंशी काय सामकी
दुदावयली साय.

चलयेचो राग
बाये आसा नाकार,
दिसभर फुगून
बसता बाकार.

चली दिसभर
बाये काडटा धुमसण,
हांश्यान तिच्या
भरता आंगण.

चली सगळ्यांक
बाये जाय जाय,
इटकुलें पिटकुलें
तें आमचें बाय.



# यो रे बाबू

यो रे बाबू, यो रे बाबू
बेगीन यो घरांत
कर रे पुरो खेळ आतां
काळोख दाटला आंगणांत.

झाडाझाडार पळय कश्यो
चिमण्यो करतात चिवचिवाट
रानांतल्यान हांबेत गायो
परतल्यो आपल्या गोठ्यांत.

सुयदेवय थांबावोन खेळ
गेलो पळय आपल्या घरांत
पाटी-पुस्तक घेवन तो
बसलो आसतलो आवय फुड्यांत.

यो रे बाबू, यो रे बाबू
थांबोवन तुजो खेळ
म्हणून दाखय पाडे बेगी
नाका काडूं आनीक वेळ.



# बाबूक पळय अपू

बाबूक पळय अपू
धरता कोंबये पिपू
चिड्डीत तर मरतलें तें
हें ताका सांग तूंच.



बाबूक पळय अपू
मारता लोकाल्या टिपू
राग जर येत ताका
करतलो तो ढिश्शीव.

बाबूक पळय अपू
करता थंय सू सू
इश्ट जर पळयत ताचे
लागताले जोरान हासूंक.

बाबूक पळय अपू
म्हण्टा तुका पिश्शू
लागी जर मेळत तो
कालसांवच ताचे वोड तूं.



# सांग रे बाबुल्या

सांग रे बाबुल्या
आजी आनी आजो
हे मर्दी तुका
चड कोण आवडटा ?

आजी तुजी गोरीपान
न्हिदायतना करता गान
मस्तीपणां केल्यार लेगीत
केन्नाच पिळना कान.

आजो तुजो खूब लांब
बाजारांतल्यान हाडटा खावंक
नव्या नव्या वस्तींखातीर
आज्याचेंच घे नांव.

तेन्ना, चल तूं खरें सत
सांगून ल्हवूच म्हज्या कानांत
केन्नाच तें कळचें ना कोणाक
उतर तुका दिता हांव.

# रक्षाबंदन

रक्षाबंदन आयज दिदी
बांद म्हाका राखी
साडी तुका हाडल्या हावें
भांगरा चमक्यांची.

कर आरत आनी दिदी
वुंवाळ म्हाका बेगी
काकीलो संजू पळय
मारूंक लागलो फोकी.

कळाव करीत जाल्यार दिदी
तापतली म्हजी तकली.
राग मागीर काडूंक म्हजो
दिवची पडटली व्हडली पापी.



# बावली म्हजी

निळया निळया
दोळयांची,
पिंगश्या पिंगश्या
केंसांची,
बावली म्हजी
खूब अपुरबायेची
एक दिसा म्हजी अपुरबाय
खूब खूब फुगली
पयस कोनश्याक
वचून बसली.
हावें म्हळें,
" बावले, बावले,
मात्शी हांस.
शिंवता तुका नवो पोपो
नवीं रिबीनां, नवे सँडल्स
घेवंक होच उपाय सोपो !"
पूण,बाबली मातूय हांसली ना,
कोनश्यांतसून हाल्ली ना.
मागीर हांवें म्हळें,
"रागार गे फुगार
राणयेचे म्हज्या
फुगरे गाल....."
आनी,
बावली फिस्स करून हांसली !





# काजू मावशे



काजू मावशे, काजू मावशे
इतली कशी तूं सोबीत गे,
तुजो हळदुवो रंग पळोवन
जिबेक सुट्टा उदक म्हगे !

काजू मावशे, काजू मावशे
इतली कशी तूं मस्ती गे,
म्होवाळ रोस आसून लेगीत
दिंक कित्याक दिता गे ?

काजू मावशे, काजू मावशे
इतली कशी तूं कुसकी गे,
इतले फांतर माल्ले तरी
आसा तूं झाडारच म्हगे ?





# आयस्स फ्रुटांच्या राज्यांत

आयस्स फ्रुटांच्या राज्यांत
धवीच केण्डी
म्हण्टा, "झेलाची हांवूच राणी !"

आयस्स फ्रुटांच्या राज्यांत
कॅडबरी ताई
म्हण्टा, "राणयेची हांवूच आई ! '

आयस्स फ्रुटांच्या राज्यांत
मँगोला बाय
म्हण्टा, " भुरग्यांक हांवूच जाय !"

आयस्स फ्रुटांच्या राज्यांत
लेमन बाबडी
म्हण्टा, "सगळयांक म्हजीच नसाय ! "



# गडगड मामा



गडगड मामा
येवूं नाका
दिसता म्हाका
तुजी भंय,
जोरान तूं
आड्डत जाल्यार
दडूं मागीर
हांव खंय ?
कुपां खांचीक
घर रे तुजें
वोगीच तूं
बस थंय,
फकाणां तूं
करता म्हळयार
जातात तीं
म्हाका जय.

# भिवूं नाकात



मळबांत काळोख जाला म्हण
तुमी अशे भिवूं नाकात
गडगडाचो आवाज येता म्हण
पयस अशे धावूं नाकात.
ह्याच रे काळखाचीं
धवीं फुल्ल मोतयां जातलीं
आवय आमची धर्तरी
खोशालयकायेन नाचतली.
गडबड करपी गडगड रे
पावसा झरींत बदलतलो
शेनाय आपल्या आवाजाची
वाजयत तो धांवतलो.



# बिलू मांजर



एकदां कितें जालें ?
सकाळीं उठ्नाच
आमगेलें बिलू मांजर
खूब खूब दुवेंत पडलें.

पोटांत ताच्या
वळूंक लागलें
फडफडून फडफडून
तें जमनीर न्हिदलें.

बाबाक ताची
काळकूट आयली
उबारून पोटली
दोतोरागेर व्हेली.

दोतोरान तपासून
एक इजेसांव तोपलें
खिणांत बिलू मांजर
उठून धांव धांवलें !

# सोश्याराव

सोश्याराव, सोश्याराव
असो कसो रे तुजो सभाव
पान लेगीत हाल्लें जाल्यार
मारता कित्याक धांव ?

कापसासारखे आंग रे तुजें
मोव मोव मोव
उश्याखातीर रे म्हज्या
इल्लो हांव घेवं ?

तांबडे गूंज रे तुजे दोळे
माणीक मोतयाळे
कान मात वोडून तुजे
सांग कोणें लांब केले ?

दिसूय भर रे खाता
पालो पांचवो पांचवो
तरी पूण कसो रे असो
तूं सदांच वसवसो ?



# भोक भोक कुतू

भोक भोक कुतू
नांव तुजें पुतू,
कोणूय चोर आयल्यार
फाटीक ताच्या लाग तूं.

भोक भोक कुतू
म्हज्या वांगडा खेळ तूं,
खेळून जातगेर दितां
तुका वाटीभर दुदू.

भोक भोक कुतू
सलाम म्हाका कर तूं,
दोन पांयांचेर उबो रावन
आंगणभर नाच तूं.

भोक भोक कुतू
खूब खूब हुशार तूं,
दारांत सदां उबो रावन
घर म्हजें राख तूं.



# बेबकांची शाळा




पावसाच्या दिसांत
बेबकांची शाळा,
तांबड्या गुंज उदकांत
जाय थंय खेळा.
बेबकांचे शाळेक
उदकाच्यो वण्टी,
बरोवंक ना
एकूय पाटी.
बेबकांचो पोशाख
तरके तरेवार,
पांचवो, काळो
कसलोय सलवार.
बेबकांचे शाळेंत
शिकोवपी बेबो
करूंक दिता भुरग्यांक
जाय थंय रेबो.
बेबकांचे शाळेंत
सदांच मजा,
ना केन्नाय कोणाक
कसलीय सजा.

# माकडमामा

माकडमामा, माकडमामा
दिसूयभर तूं आसता कामां,
झाडाझांडार उडयो मारल्यो
तंरी कशें रे तुका पुरो जायना ?

रानांवनांत भोवन तूं
एकठांय करता खूब फळां,
मदींच आडांगपणां करून तीं
शेंवटीता कित्याक रे सगळया रानां ?

मळबा उंचायेर, रूखा तेंगशेर
भोंवतना तुज्या पोटाक पील,
तरी पूण भोवन गांवांत
करता कित्याक रे तूं किजील ?

लांब लांब तुजे शेपडेक
म्हटलें केन्नाय, लागलां तूप,
हुप्पूच्य करून उडणां मारून
जाता कित्याक रे तूं रागार खूब ?

माकडमामा घर तूं तुजें
चिंतता रे सदांच रातीक,
एकूय दीस मात बांदूक पावना
आजून कित्याक रे तूं उजवाडटकीच ?



# आम्गेलीं पोसरां

आमगेली बोकडी
घर तिचें लाकडी,
शेंपडी करता वांकडी
मान आसा तेकडी.

आमगेलें बिलू
आसा ल्हान पिलू,
नांव ताचें मिलू
लागता झेतान चलूं.

आमगेली गाय
दिता दुदू साय,
आमकां ती जाय
ती सगळयांची मांय.

आमगेलो मोती
व्हरता लोकांलीं जोतीं,
चोरता नुस्त्याची पोती
सुंगटां खाता जितीं.

आमगेलो कीर
सामको शूर वीर,
खाता पेराची शीर
ना कसली किरकीर.

आमगेली कोंबी
रंगान ती शिबी,
कणी तूस चाबी
मागीलदारांत उबी.



# जायू सायू



दोग जाण
आसलीं बायू,
एकाचें नांव जायू
दुसऱ्याचें नांव सायू.

जायू साय
दोगांय भयणी
करी घरांत
दिसभर झगडीं.

आई तांकां
खूब समजायी,
आयकना तर
सट्टीक पेटी.

एकदां आईन
केलो शिरो,
घमघमीत गोड
रूच्चीक बरो.

" जायू ऽ सायू ऽ
वांटून बरो,
म्हज्या फाटल्यान
खाया शिरो."

सांगून आई
गेली शेतां
करूंक आपलीं
वावर - कामां.

आई फाटल्यान
जायू सायू,
बरीं बसलीं
शिरो खावूं.

" तुका चड !"
" म्हाका थोडो ! "
पेटलो दोगांयचो
रोकडो झगडो.

वाटेन वतालो
एक कोलो,
बुद्दीन आसलो
नाड बरो.

जायू सायूक
करून पिशीं
खायन आख्खी
शिऱ्याची बशी.

येवजून कोल्यान
मारलो उलो,
जायू सायूक
जावन भोलो.

येयात हांगा
दोगांय बायू,
वांटून दितां तुमकां
सारको खावू.

जायू सायू
दोगांय धांवलीं,
कोल्यान हाडली
एक तागडी.

कोल्यान केली
शिऱ्याची वांटणी
वयर सकल जालीं
दोनूय दालीं.

" ताका चड ! "
" म्हाका थोडो ! "
जायू सायूचो
बोवाळ रोखडो.

जड दाल्याक
मारून बचक
केलो कोल्यान
शिरो फसक.

जड दालें
जालें ल्हव,
ल्हव दालें
जालें जड.

" ताका चड ! "
" म्हाका थोडो !"
परतून जालो
बोवाळ व्हडलो.

मारलें कोल्यान
आनी एक बचक,
खिणांत केलो
शिरो चटम.

घडलें अशें
जायत्या वेळा
रिकामें जालें
शिऱ्या आयदन.

करून आपली
शेंपडी तायट
कोल्यान मारली
फुज्ज्यो रानांत.

जायू सायूचें
तोंड पडलें,
व्हडल्यान आयलें
दोगांक रडणें.

दोगांचीं झगडीं
तिसऱ्याचो लाब
कळळें तांकां
पयले फावट.

अत्तपर तांणी
केलीं ना झगडीं,
बऱ्यो करून रावल्यो
दोगांय भयणी.



## जयंती नायक हांचें प्रकाशीत बालसाहित्य

| | | |
|---|---|---|
| 1. सोरपाची करामत (अणकार) | नॅशनल बूक ट्रॅस्ट, इंडिया | 1998 मोल रू. 8.00 |
| 2. वागमामाची फजिती | जैत प्रकाशन | 2001 मोल रू. 18.00 |
| 3. चड शाण्यांक फातरांचें शीत ! | राजाई प्रकाशन | 2001 मोल रू. 30.00 |
| 4. नवरंगी फूल | युगवेद प्रकाशन | 2002 मोल रू. 15.00 |
| 5. भुरग्यांखातीर लोककाणयो | युगवेद प्रकाशन | 2002 मोल रू. 20.00 |
| 6. सानुल्यांचीं कवनुलां | राजाई प्रकाशन | 2004 मोल रू. 27.00 |
| 7. गोंयची लोककला | राजाई प्रकाशन | 2004 मोल रू. 27.00 |

**राजाई प्रकाशन**
आमोणें, केपें,
गोंय - 403705